# ओड

पावला पावलार ज्ञान प्राप्त करपाची ओड लाय
संस्कारांची गिरेस्तकाय जोडपाची ओड लाय!
कुपां पार वचून चंद्रीम देखपाची ओड लाय
उजवाडाचीं किर्णां सगल्याक फांकपाची ओड लाय!



युसूफ अ. शेख

# ओड

**Odd**

collection of poems in Konkani
by
Yusuf A. Sheikh

# ओड

(कोंकणी कवितां झेलो)

युसूफ अ. शेख

# ओड

युसूफ अ. शेख

पयली उजवाडावणी:
१९ -१२-२०१३



e-mail:
yusufgoa@gmail.com

उजवाडावपी:
ओ रे सोय
द्वाराः युसूफ अ. शेख
167/1, कोलासो आर्केड-आ फाटल्यान,
देस्तेरो वार्ड, वास्को-द-गामा, गोंय.

**Publisher:**
O Re Soi
C/o Yusuf A. Sheikh)
167/1, Behind Colaso Arcade,
Desterro Ward Down,
Vasco-da-Gama,
Goa - 403802 India.

छापपी:
लोकमान्य प्रोसेस
खोर्ली - तिसवाडी गोवा.

मुखचित्रः युसूफ अ. शेख

मोल: ₹ २००/-

# दिनवास:

पुंडलीक ना. नायक
अशोक रघुवीर चोडणकार
विश्वनाथ सावंत
पंढरिनाथ दामोदर लोटलीकार
उल्हास दत्तात्रय जोशी

# ओडः युसूफ अ. शेख हांची अप्रूप कविता!

युसूफ अ. शेख फाटलीं पांच दसकां कोंकणीच्या मळार वावुरता. तागेल्या शालेय जीवनापासून तो कोंकणीचो पुरस्ककर्तो. तो एक कवी. कवितेचेर ताचें मनापासून प्रेम. १९७० च्या दशकांत गोंयांत आनी गोंयांभायल्या कोंकणी प्रदेशांत जीं कवी सम्मेलनां जातालीं तातूंत तागेले "ओ रे सोय" कवितेक खूब बरो प्रतिसाद लाबतालो. तेच कविते खातीर तो कवी म्हण चड फाकिवंत जालो. त्या काळच्या कवी सम्मेलनानी डॉ. मनोहरराय सरदेसायांचीं कवनां, म्हगेली "बांगर बैल" रमेश वेळुस्काराची "सावुलगोरी" तशी युसूफाची "ओ रे सोय" कविता रसिकांकडल्यान हुकूमी दाद घेताली. युसूफाले कवितेक एक छंद आसा. गेयताय ताका सादल्या. तागेल्यो कांय गीत रचना आकाशवाणी वयल्यान खुबूच गाजल्या. "शब्दुलेच्या फुला तुका भंवर जावन चिंवतलों" ही तागेली गीत रचना एक काळार खूब गाजिल्ली. म्हज्या एका नाटकांतूय हांवें ते रचनेचो वापर केल्लो. पणजी दूरदर्शन केंद्र (पी.जी.एफ.) गोंयां सुरू जावचें जालें त्या वेळार ताणे दूरदर्शनाच्या येवकारा खातीर अशीच एक सुंदर गीत रचना केली. आकाशवाणीचेर ती वाजताली. युसूफान आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेर अधिकारी, पालवी संचालक, संचालक म्हण वावर केला. त्या पदांचेर आसताना तो गोंयां बरोबर कर्नाटक, मेघालय, आसाम राज्यानीं नोकरी करून आयला. तो जंय गेला थंय ताणे कोंकणीचो प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष प्रचार केला. गोंयां आनी मंगळूरा तर ताका कोंकणीची सेवा करपाची अदीक संद लाबल्या. मंगळुरांत तो कन्नड लिपी शिकून ते लिपिंत बरोवपाक लेगीत लागलो.

युसूफाक तागेल्या साहित्यिक कार्या खातीर कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कला अकादेमी हांगेले साहित्यिक पुरस्कार लाबल्यात. त्या भायर २००८ वर्साचो प्रतिश्ठेचो असो आंतोनियो पेरेरा कोंकणी पुरस्कार आनी

साहित्याचे सेवे खातीर २०१२ वर्साचो गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनयाचो राज्य पुरस्कार ताका फावो जालो.

पणजी आकाशवाणी केंद्राचेर आसताना ताणे सादर केल्ल्या "पोंदेर" माहितीपटाक अखिल भारतीय थरावयलो आकाशवाणी पुरस्कार लाबलो. १९८० च्या अदमासाक ताचे बरोबर पणजी आकाशवाणीचेर सहसंपादक म्हण वावुरपाची संद म्हाका लाबल्या. तेदेवेळार तागेलो कोंकणीवयलो आनी साहित्यावयलो मोग हांवें पळयलो. एक लेखक म्हण म्हजी दुसऱ्यांकडेन तोखणाय करपाची एक्कुय संद ताणे केन्ना सोडूंना. तागेल्या सांगातान दुस्वसाबगरचे एके इश्टागतीचो अणभव हांवें घेतला. अखिल भारतीय नभोनाट्य सर्तींत म्हज्या "मर्णकटो" नभोनाट्याक पुरस्कार लाबलो त्या वेळार म्हज्या परस चड खोस ताकाच जाल्ली. पणजी दूरदर्शनाचेर कार्यावळींचें "कोंकणीकरण" करपाक ताचोच शिंवाचो वांटो आसा. ते खातीर ताणे विरोधकांचो तसोच आपल्याय मनशांचो राग आनी विरोध सोसला.

तागेलो तिसतो कविता संग्रह "ओड" आतां उजवाडाक येता. हाचे आदीं तागेले "गांठी" (१९८२), "रंगघाय" (२००५) अशे दोन कविता संग्रह उजवाडाक आयल्यात. त्याच प्रमाण पवित्र कुराणाच्या तिसाव्या अवेस्वराचो ताणे कोंकणी अणकार केला. तोवूय (२००४) प्रकाशीत जाला. हे फाटभुंयेर तागेलो नवो संग्रह भायर सरता. गेयता, सुलभताय, अशे हे घटक तागेल्या आदल्या कवितांनी आशिल्ले, ते हांगासर तश्शे दिश्टी पडटा.

युसूफाक मुस्लीम धर्मातल्या मनीसपणाच्या तत्वांचो अभिमान आसा. कर्बलाच्या झुजामळार हजरत हुसेनान, हारून लेगीत जें मानवीक जैत जोडलें ताचेविशींचो उल्लेख तो अभिमानान आपणाले कवितेंत करता. त्या त्यागाचे भावनेंत ताचें हृदय फुलून येता. पैगंबराचे शिकवणे प्रमाण गांठवाजीकरप हो गुन्यांव आसा, आनी ते खातीर गुन्यांवकारांक ख्यास्त

जावपाक जाय, अशें तो सुचयता. तागेले कवितेंत जसो अल्ला येता, हजरत हुसेन येता तेचपरी श्रीकृष्ण, जेजू हिंवूय देंवतां, तागेल्या तत्वांसैत येता.

कवितेच्या मळार सर्वसमभावाचो हो प्रयोग कविवर्य मनोहरराय सरदेसाय हाणी खूब बरे तरेन केला. मागीर कवी जॅस फेर्नांडीस हाणी ही भावना कवितेंत केळयल्या. सर्वधर्म समभावाची ही भावना युसूफ शेख आपणाले कवितेत खूब प्रभावीपणान मांडटा. निजी जिवनांतूय तो तसोच आसा. थंय दाखय-लिपय ना.

युसूफाक कोंकणी भास, गोंय हाचेविशीं आकांत अभिमान. गोंयची माती, पेज, आंबली, कांतारां, धालो, घुमट, तासो ह्यो तागेले निजी अस्मितायेंच्यो खूणो आसात. तांचेर तो जीवपाड मोग करता, हें वेगळें सांगपाची गरज ना. गोंयांविशींचो मोग जसो ताचे कवितेंत उचंबळून येता तेचपरी गोंयचे अस्मितायेचेर जी हावळ आयल्या, ताचेविशीं तो पिंडळून आवाज काडटा. भ्रश्टाचार, आपसुवार्थ, घुंवळी वखदां प्रसार, पर्यावर्णाचो नाश, कसिनाचो जुगार ह्यो गजाली तागेल्या संवेदनशील मनाक खुपता. गांव बदलता, ताचें ताका दु:ख ना पूण गांवांतलें मनीसपण नश्ट जाता, ताचो ताका हुस्को पडला. व्हडल्यो इमारती वाडटा खऱ्यो पूण तातूंत मनशाचें मन विशाल जावपा बदला संकुचीत जाता, हाची खंत ताका पोखरता.

कवी अहिंसेचो पुरस्कर्तो. ते खातीर महात्मा गांधी ताचो आदर्श. झगडी-झुजां, किजिलां ताका नाका.

युसूफान ह्या कविता संग्रहांत कांय प्रयोग केल्यात. कोंकणींत आतां गजल हो काव्यप्रकार रूळपाक लागला. कांय कवींच्या पुस्तकांनी आवर्जून म्हण्टा तसो कांय गजलांचो आस्पाव जावपाक लागला. युसूफानूय हो प्रयोग ह्या संग्रहांत केला. हांगासर कोंकणी कव्वाली रचपाचो तागेलो प्रयोग तोखणायेचो आसा. ही कव्वाली पुराय कोंकणी आसा. म्हणल्यार तातुंतलो

आशय लेगीत कोंकणी आनी कोंकणी जिविताविशीं आसा.

युसूफ अ. शेखान कोंकणी कवितेच्या मळार दिल्ले योगदान तशे उणेंच आसा. संसार, नोकरी, नोकरेच्या निमतान हांगा थंय जाल्ल्यो बदल्यो हाचो विपरीत परिणाम तागेल्या कविता लेखनाचेर जाला. पूण ताणे कोंकणी कवितेच्या क्षेत्रांत जी भर घातल्या ती अप्रूप आसा. हाचेविशीं दुबाव ना. तागेल्यो ह्या तिसऱ्या संग्रहाक हांव प्रस्तावना बरयताना चवथ्या संग्रहाची वाट पळयतां.

-पुंडलीक ना. नायक

# मांडावळ

## ...मांडावळ

# ओड
(प्रार्थना)

पावला पावलार ज्ञान प्राप्त करपाची ओड लाय
संस्कारांची गिरेस्तकाय जोडपाची ओड लाय

रागाचेर लगाम दोवरून जगपाची ओड लाय
मोगाची मशाल घेवन धांवपाची ओड लाय

देवा धनिया विकृते आड झुजपाची ओड लाय
परमेश्वरा सैतान शक्तेक चेपपाची ओड लाय

कुपां पार वचून चंद्रीम देखपाची ओड लाय
उजवाडाचीं किर्णां सगल्याक फांकपाची ओड लाय

महर्शी व्यास कितें म्हण्टा आयकपाची ओड लाय
धर्म कितें अधर्म कितें शिकपाची ओड लाय

कर्बलाच्या झुजामळाक जाणपाची ओड लाय
मुल्यां खातीर जान कुर्बान करपाची ओड लाय

गांधीजींचो आदर्श मार्ग जोडपाची ओड लाय
राश्ट्राच्या सेवे खातीर त्यागाची ओड लाय

मनीसजातीक सगल्यांत उंच लेखपाची ओड लाय
समेस्तांचो मोग जिखून जगपाची ओड लाय !

# दिव्य दिशा

हांगाय काळोख
थंयूय काळोख

थंय मनीस कुड्डो जाला
हांगा दोळ्यांर पड्डो हाडला!

ज्ञानाची ज्योत पेटय
दोळ्यांत रसणाय रिगतली
सत्याचो मार्ग थारय
आंगांत शक्ती भरतली

नशीबाक रडचे न्हय
वाट सोदून काडपाक जाय
कश्टा बळान भौनभौन
दुर्भाग्याआड झुजपाक जाय

सगल्यांचो मोग जोड
सगले एकठांय उड्टले
स्वार्थाची वोड सोड
सगल्याक दिवे पेट्टले!

# आमी दिलदार
(कोंकणी कव्वाली)

आमी दिलदार आमकां दुस्वासाचो शिंवोर नाका
हुनसाणेची ऊब जाय धुमशाणाचो धुंवर नाका

मायेमोगान जगपी आमी केदेय त्रास सोसपी आमी
कुडकुड्याच्या शियेंत वचुन माडार नाल्ल पाडपी आमी
दडकांचो पावस जरी कण्णो घेवन नडपी आमी
मायेमोगा झाडां पेडांर घाणयारीचो चंवर नाका
हुनसाणेची ऊब जाय धुमशाणाचो धुंवर नाका

मनशाचें मोल कितें जाणुंक देवान बुद्द दिल्या
बरें वायट पारखुपाची ईश्वरान तांक दिल्या
नैसर्गीक जोड दिल्या एकवोटाची शक्त दिल्या
विश्वासाचें बळगें जाय भावार्ताचो भंग नाका
हुनसाणेची ऊब जाय धुमशाणाचो धुंवर नाका

मनशाकुळये सोडवणदारान शेजाऱ्यांचो मोग दिला
गणरायान सुखान रावुंक आपलो आशिर्वाद दिला
वाटेर येवपी सैतानाचेर जैत जोडपाक मंत्र दिला
विकासाच्या मार्गार आमकां आडखळीचो दोंगोर नाका
हुनसाणेची ऊब जाय धुमशाणाचो धुंवर नाका!

# आमी गोंयकार
## (कोंकणी कव्वाली)

आमी गोंयकार आमकां काळजाची भास जाय
आबोल्यांचे झेले आनी अस्मितेची जाग जाय !

सुरगांचो वळेसर, शेवत्यांची फांती जाय
मोगऱ्यांची माळ जाय, गुलाबाचो हार जाय
जाया जुयान सोबीत अशी सगल्याक सजावट जाय
धर्तरेची बडाय गावंक जिबेक नवी धार जाय
आबोल्यांचे झेले आनी अस्मितेची जाग जाय !

नुस्त्याचें हुमण जाय, नाल्लाची कडी जाय
गांवठी तांदळां पेज जाय, पातळ भाजी पाव जाय
तोंडाक लांवक खारें आनी इल्लें आंबट-तीख जाय
आलतडेच्यान पलतडी गा तारयाची तार जाय
आबोल्यांचे झेले आनी अस्मितेची जाग जाय !

मुगे गोंयां माड आहाय, रेंद्रागेलीं कांत्रां आहाय
मुगे गोंयां मांडो देखणी तियात्रांच्यो माचियो आहाय
मुगे गोंयां मायटी आनी मातयेच्यो हांड्यो आहाय
मुगे गोंयां गायत रावपाक गीताराची तार जाय
आबोल्यांचे झेले आनी अस्मितेची जाग जाय !

घुमटां घुमट वाजतले, माडार रेंदेर धोलतले
आमचीं नाटकां रंगतलीं, आमचे तियात्र गाजतले
आमच्या कलाकृतींतल्यान आंगार  कांटे फुलतले
गोंयची संस्कृताय फाकूंक जोरगतीचें ल्हार जाय
आबोल्यांचे झेले आनी अस्मितेची जाग जाय !

# बडोवन बडोवन जागोवपी पावस

धर्तरिचें आंग चिप्प भिजोवपी पावस
सर्गांतल्यान मोतयां राशी झडोवपी पावस

आमचीं शेतां शिरीशिरी शिंपोवपी पावस
शेतकाराच्या तोंडार हांसो फुलोवपी पावस

उमेदेचीं बीं-बियाणां किल्लोवपी पावस
कण्णो घेवन नड्णी करप्यांक गावोवपी पावस

संगीत मळार नवे राग सुचोवपी पावस
गोड गळ्यांत गोड सूर रिगोवपी पावस

पानवेलीक मस्काझाडार चढोवपी पावस
किरांट्यांक मोगा खेळान खेळोवपी पावस

किर्णां संग अनेक रंग परजळावपी पावस
वडा पोंदा तरण्या मनांक झेलोवपी पावस

सुस्ती सुसेगादपणाक बडोवपी पावस
आंगापंगांत जोरगतल्हारां जागोवपी पावस!

## हांव मागीर विचारतलों (?)

अपुर्बायेच्या गूणधर्मान गिरेस्त मनशा
गिन्यानाचें व्हडें तुवें खंयचे दिकेन व्हेलें?
सम्दीरा येद्या व्यक्तिमत्वाक
व्हाळा परस ल्हान केलें?

विशालतायेच्या पुरस्कर्त्या
विशाल मनाची तुजी प्रतिमा
हिमालया परस उंच दिसताली
आयज तू संकुचीत, क्षणीक सुखाचो धनी जाला
दौलतीच्या दबावान आयज तू दबून गेला
तणावांत घुस्पून तू बन्दीस्त जाला
मनशा
तू भौच ल्हान दिसपाक लागला!

आयज तुज्या माथ्यार घसाघस
संपत्तेचो पावस झड्टा
तूं चिडटा, तू रागान पेट्टा
तुज्या आंगणांत कोण कोणाची अब्रु लुट्टा
तूं घुंवळे वखदान घुंवता
सभाग्या,
नकळटां तुजें मस्तक तू फातरार मारता!

आयज तुजी अपुर्बाय करीन दिसना
आयज तुजो रागुय यना
तुवें तुजी अप्रुप जोड सांडली देखून
तुजी काकळूट मात करीन दिसता.

काल प्रशंसेक पात्र मनशा
आयज तुवें मनशाचो विश्वासघात केला
बालपणान लक्तुबायेन खेळयिल्ले
ते समेस्त शेजारी पाजारी
आयज तुजेर मोग करीनात
तू तांकां आपलोसो दिसना
तू मनशाकुळयेच्या सोडवणदाराक विसल्ला
देखून तांच्या काळजा पासून
तू बरोच पैस पावला.

सद्‌गुणानीं सगल्याक मंत्रमुग्ध करपी उपाट शक्त खंय गेली?
तुज्यांत परजळपी दैवीक झलक खंयसर सांडली?

अजाप आयज काळखान तुका धेंगसायला
आयज मोनजातीन लेगीत तुका हिणसायला!

तुज्यांत परजळ उल्लो ना, तरी तुका चंद्रीम म्हणूं?
काय आयज तुका तुटिल्लें नेखेत्र म्हणूं
कित्याक जाणां
आयज तुज्या सुस्कारान घरां ल्हासतात
भुरगीं रडटात, जाण्टीं तळमळटात
तरी तुका भैमानेस्त म्हणूं
काय मानेस्ताची भ्रश्ट सावळी म्हणूं?

हांव जाणा तुज्या समुदायेच्या लोकाकडसून
तुजो त्रिवार जयजयकार जाला

हांव जाणा त्या निरकार शक्तीन तुका
खिणा-खीणाक पळयला

हांव जाणा तुज्या समुदायाच्या लोकांकडसून
तुजो त्रिवार जयजयकार जाला
हांव जाणा त्या निरकार शक्तीन तुका
खिणा-खीणाक पळयला

जिबेर दुस्वासाचीं उत्रां घोळोवपी मनशा
फुडाराचीं चित्रां विद्रुप करपी शाण्या
जैताच्या शीमेर पावपाक तूवें
पाडबुद्धेचो आदार घेतला
तुजेर सैतानाचो सांवार आयला
सांग तुका माथ्यार घेवन नाचपाचें
काय नरकासूराभशेन बडोवन बडोवन ल्हासोवपाचें?

तूं ल्हासतलो, तूं फडफडटलो
ईश्वरासरीं एकजीव जावपाक तळमळटलो

म्हातारपणाचे धांपेन जेन्ना तूं थकतलो
आनी ईफेर्नाच्या नावान कांपतलो
तेन्ना म्हणटलो: सायबा भोगोस, सगलें भंगलें
आनी मागीर हांव विचारतलों:
मनशा, अंतीं तुवें कितें जोडलें?

# ओड घडी घडी

मेल्ले बियेंत कित्याक कोणें कोंबरी फुलयली
उदास वाटेर कोणें कित्याक दिवली पेटयली!

वाटेर नदर फुडें सरून परती परतता
नदरे आड जावन कित्याक वाट चुकयली

मंद गतीन चलताना सपन कशें येवन तुवें
आंगात परत मोगां किट कित्याक पेटयली

जोरगतीची याद फकत आतां दर्या शांत
सुक्ते वेळार कित्याक काळजा धडक वाडयली!

नव्यान आंगांत चंचळ छंद नव्यान पोन्नो नाद
असली ओड घडी घडी कित्याक घडयली!

# मांड्वी देगेर चलतां चलतां...

(२५-०१-२०११ दिसा, गणतंत्र दिनाच्या पूर्वसांजे आकाशवाणीच्या आसऱ्या खाला वाराणासींत घडोवन हाडिल्ल्या सर्वभाशा कवि संम्मेलनात प्रस्तूत केल्ली कविता. संविधानांत मान्यताय मेळिल्ल्या भारतांतल्या सगल्या भासानीं हे कवितेचो अणकार जाला.)

मांडवी देगेर चलतां चलतां
एक अजाप चित्र दोळ्यां मुखार आयलें
एका विचित्र अणभवाक हांव साक्ष थारलों
मस्तक थप्प जालें
आनी काळीज सांगपाक लागलें ...

ज्या युगांत तू जल्मला,
तें युग भौच महान
सभाग्या कर्तव्य तुजें जाण!

हें जावन आसा साबार सवलतींचें युग
ह्या युगांत श्रेश्टता जोडपाक स्वातंत्र्य आसा
ह्या युगांत अनेक सुविधा उपलब्द आसात
सरभोंवतण सुसंगीत करपाक
संकुचीत वृत्ती सांड
सभाग्या कर्तव्य तुजें जाण!

तू वाऱ्या परस अधीक गतीन धांवला
हक्कांचेर झोपय मारुन स्वार्थाक तुवें जिखून घेतला
आयज नेखेत्रांचो परजळ तुज्या आंगार चडला
देखून जांवये
सुर्याच्या उजवाडान मनशाची दशा पळोंवक
तूं असमर्थ थारला.

दुर्दशा! ...
दुर्दशेचें चित्र तुवें उरफाटें दोवरुन पळेलें.
देखून तुका विकासाच्या सर्गांत
शिरल्या भाशेन दिसपाक लागलें
तुजे सर्गभुंयेर म्हारगाय मनशांक तिडायता
पिडेस्तांक पीडा सतायता
आनी वाह!
तू न्हाताता अमृत न्हाण
सभाग्या कर्तव्य तुजें जाण.

तुवें मांडोवीची मनिशा बदल्ल्या,
तिच्या मांडोलीनानीं मांड गाजनात
मनभुलोवणीं गीतां कानार सादनात

मांडोवी आयज सामान्य मनशांक तिडांवक लागल्या
पवीत्र उदकांत मांडोवी अपवीत्र खेळ खेळपाक लागल्या
मांडोवी आयज श्रृंगारल्या
मांडोवी भौच गीरेस्त जाल्या
जोड कोणाक दिता कोण जाणा....

गावा गावांत घुमटां वाजोवपी,
ताश्यार बडयो बडोवपी
शेणपाकशे लागल्यात
अस्मितीचे धनी आयज
थकिल्लेशे दिसपाक लागल्यात

पुर्वजांची जमीन हाताभायर वचपाक लागल्या
फुडारा खातीर घराची चिंता सतांवक लागल्या

तारुण्य शेणोवचे आदीं
पाड वृत्ती सांड
सभाग्या कर्तव्य तुजें जाण.

महान युगाचे धनी आमी
म्हानतायेचे गूण आमच्या आंगापांगांत भल्ल्यात
मोतयांची रास सांडून आमी बेठेच हेळूंक लागल्यात
ह्या धांवपळीच्या युगांत
दिसुय वेगान धांवपाक लागल्यात
हे धांवपळीची दिशा बदलपाक जाय
खर्शेल्ल्या मनीसप्राण्य़ांक
खोशयेच्या झोपाळ्यांत
झेलूंक मेळपाक जाय
मतींत दवर
एक दीस सोडचें आसा प्राण
सभाग्या कर्तव्य तुजें जाण!

# वाट दाखय

नाडपाची युक्ती नाका
सत्याची शक्ती जाणय
मर्णाचो मार्ग नाका
जगपाची वाट दाखय

विकृतेन ल्हासोंवक नाका
मोगान मनां भिजोंवक दाखय
विखाळ उत्रां झडोंवक नाका
मोगा बियाणां किल्लोंवक शिकय

जानटयांक धेंगशे घालपाक नाका
आदरमानान वागपाक शिकय
भुरग्यां बाळांक रडोंवक नाका
काळजां मायेस्त करपाक दाखय

निर्लज्ज जावन वाडपाक नाका
उच्च विचार वळखूंक शिकय
आत्मघात करपाक नाका
आत्मशक्त जोडपाक शिकय!

# खंयसर लागल्या धांव रे

ध्यान भंग ध्यान असंघ
खंयसर लागल्या धांव रे
थांब पळय खंय आमी
आमी सामकेच शेणल्यात रे

सत्तेची जबरदस्ती
वता थंय धवे हत्ती
बिल्डरांचें भिरें आनी
सर्गाक तेंकपी ईमारती
मळावेलीं सवण्या भिरीं
नदरे आड जाल्यांत रे
उदरगतीचें गिरगीरें
उर्फाटेंशें घुवता रे!

आमचें तारुं तडीक थांबलां
आमचें व्हडें व्हलना
आमच्या मार्गार चलपाक पळय
आमच्या मनशांक वाट ना
वेळेवेलीं वसाडल्हारां
नदरेआड जाल्यांत रे
दर्या वेळेर वचपी वाट
परत उत्ती करात रे !

आमचे पांय थरथरल्यात
आमी नाचूंक विसल्ल्यात
आमचे नाच आयज फकत
हॉटेलानी झळकतात
दळदीऱ्यांच्या माथ्यार सायबा
पैशां नेट चडला रे
कासीनोची संसकृताय
बळियां आमचेर लादल्या रे

आमच्या आंगातले तालमेळ
ताणीं पळय हुमटून काडल्यात
आमची रुच ईबाडून
आमकां पाड वाटेक लायल्यात
घुंवळे वखदां बगर पळे
तकली घुंवपाक लागल्या रे!
आमी शुद्धेर येवपाक जाय
उल्याक जाप दियात रे!

मार्च २००९

# शंबर वर्सां आदीं...

शंबर वर्सां आदीं हांगा मेणवाती पेट्टाल्यो
त्या वातींच्या उजवाडान आमकां सभ्यतेचे पाठ शिकयिल्ले
शंबर वर्सां आदीं आमच्या पोरसांत
माटवार चढपी मोगऱ्यांची वाल आशिल्ली
रातराण्येक रातचो सांवार येतालो
आयज आमच्या गार्डनांत रंग आसा पूण सुगंध ना
छंद आसा पूण मोग ना.

शंबर वर्सां आदीं अशेंच वादळ आयिल्लें
आनी तें झेलपाक आमकां तांक आशिल्ली
आयज जेन्नां वारें वादळ नेट धरता
तेन्ना आपत्तेक तोंड दिवपाक
आमची शक्त उणी पड्टा.

शंबर वर्सां आदीं म्हज्या शारांत उंच ईमारती नाशिल्ल्यो
उच्च शिक्षणाची सोय नासली
पूण हांगासर उच्च संस्काराच्यो खणी आशिल्ल्यो
आयज शाळा-कालेजींतलें शिक्षण
मनशा-मनशाक जोडपाक उणें पडटा.

शंबर वर्सां आदीं वार्‍या वादळान आमचें घर मोडिल्लें,
माडाचे वांशे हाडून, मातयेच्यो वण्टी उबारून
आमगेल्या समेस्त शेजार्‍यानीं
आमचें घर बांदून दिल्लें

आतां तो एकुय शेजारी उल्लो ना!

आयज जणेकलो आपआपल्या खातीरुच वावुरता
आयज जणेकलो म्हाका म्हज्या घराचें मोल विचारता
म्हाक घरांतल्यान भायर घालपाक सोदता!

शंबर वर्सां आदीं मनीस पावला पावलार जियेलो
आतां खीणा खीणाक स्वास सोडटा.
लक्ष दियात
सभ्यतेचे तेंगशेर पाविल्ली आमची भूंय आयज
बळा बळा रडटा.
तिचीं दुकां पुसपाक फुडें सरात.
एकचाराचें बळगें जोडात.

## भांगर सापडलां

जाणकारानीं म्हालगड्यानीं आमकां कळयलां
गोंयां खंय पावला पवलार भांगर सापडलां

आतां जीण फुलतली
खुशाल जातलीं सगलींजणां
गडद गडद वाजत येतलीं
भांगराचींच पांयजणां

वोंठार भांगर हांसतलें
आंगार भांगर चडटलें
दोळ्यांतले पड्डु लगीत
भांगराचेच आसतले

कौंचेचीं न्हंयगो कांसार
भांगरा कांकणां न्हेसयतलो
स्क्रेपांतल्यान लेगीत मनीस
भांगरा वस्ती मेळयतलो

भांगराचेच दांत घालून
जान्टो मनीस हांसतलो
व्हकलेच्या बापायच्या
तकलेर तणाव नासतलो

पसरकार किलांनीं
भांगरा पिठो विकतलो
सत्ता चलोवपी क्रिंटलानीं
गोंयचें भांगर गिळटलो!

सर्वकाळ न्हिदिल्ल्या सर्गेस्त गृहस्थानो
खोशी बाळगात
सर्वसंपन्न गोंयचें आयज भाग्य उदेलां
गोंयां खंय पावला पावलार भांगर सापडलां

जाणकारानीं म्हालगड्यानीं आमकां कळयलां
गोंयां खंय पावला पावलार भांगर सापडलां.

# तायकिळ्याची भाजी

दोंगरा कुशीक तायकिळ्याची भाजी कोणुय रोयात रे
तारया वाड्यार खडप फोडुन झरये उदक हाडात रे!

दामणें भरुन निरो हाडात, सान्नां फुलोवन काडात रे
हुमर्यांत हून भाजलेलीं कणगां खांवक दियात रे!

भेंडयेच्या झाडा पोंदा सावळी अजून आसत जाल्यार
गड्डयांनी खेळपाक म्हज्यांत उर्बा कोणूय भरात रे!

खंय गेली धतुऱ्याचीं झाडां, आदुळशाचीं पानां खंय?
खंयचीं बुतांवाचीं फुलां, भुरग्यांक समजावन सांगात रे!

मायटेंत इल्ली पेज आनी आंबले कडको हाडात रे
मातयेच्या आयदनांतली रूच चोखपाक दियात रे!

# शब्दफुलांची बाग

तीं फुलां निर्जीव न्हय
तीं अर्थहीन न्हय
शब्दफुलांच्या प्रत्येक पाकळेंत
अप्रूप रंग भल्ला
पाकळ्यां सांगाताक
जिणेचो मोग झेल्ला

कितलीशींच वर्सां जालीं,
पाकळ्यो मुर्झेल्यो नात
पाकळ्यानीं संस्कृतीचे विंगड विंगड रंग झळकतात
ह्या शब्दफुलांच्या बागेंत
समाजाच्या अखंडपणाचे पडबींब दिसतात
ह्या शब्दफुलानीं विद्वत्तेचीं मोतियां लिकलिकतात

तीं लिखलिकपी किर्णां
नवयुगाच्या लिखणींत देवुंदी
मोगाचो सुगंध फांकत रावुंदी
समेस्तांचें भविश्य प्रफुल्लीत जांवदी!

# थंय सगलो गोबोर जाला

विकृतेच्या उज्यांतल्यान देंविल्ल्या किटीनी
मनिसजातीचो गोबोर केला
पाड मनशान मनशांक ल्हासयला
तोय ल्हासला
ताणे स्वताचो सत्यानाश करुन घेतला
तो सबंद समाजाक घातक थारला

उथळ विचारांच्या प्रभावान
मनीसप्राणी घायाळ जाला
सैतान शक्तेच्या भारान
मनशान मनशाक धाडायला!

हेच भूंयेर
भौच उच्च विचारशक्तीचें जतन जालां
हांगाच ऐतिहासीक महाझुजांत
सत्य मार्गान जैत जोडलां

फुडली वाट चलताना सादूर रावुंया
जिणे प्रवास सुसंगीत करूंया!

# गॅसाचो प्रश्न आपशींच सुट्टा

म्हजें जाण्टेपण बरेंच ॲक्टीव आसता
देखून जाण्टेपणांत लेगीत
मोगाचेर काव्य सुचता
पूण बायल बेठीच दुबावता
प्रत्येक बायलेक चिंता आसता
कीं आपलो घोव पांचा उप्रांत खंय वता?

हावें सांगलें: कवी सम्मेलानाक वचून येतां....

कवीता सादर केल्यो
ताळ्यार ताळयो! ताळयार ताळयो!!
खरें सांगपाचें म्हळ्यार
ताळयो आयकून जीव संतूश्ट जाता

रातीं घरा बायलेन जेवण वाडलेंना
म्हणूं लागली कवीचें खंय ताळयानींच पोट भरता

मागीर कळ्ळें घरांतलो गॅस काबार जाला
आनी बायलेन रांदलेंच ना

"तुमका घरचें कांय पडलेंच ना" म्हूण ती तापली
म्हण्टा म्हूण बरीच तापली
ती जेन्ना तापता तेन्ना गॅसाचो प्रश्न आपशींच सुट्टा
तिचे तकलेर तोप दवरल्यार गेस्त्रडेंच शीत शिजून येता!

# अहिंसेचो मंत्र

आंगांत रगत शिंवशिवलें
पूण
तोडमोड केलीना
सत्यमार्गान जिद्द धरली
कसलेंच अरीश्ट बादलेंना!

अहिंसेचो मंत्र गाजलो
सगलो संवसार रावलो पळैत
शांतीमार्गा शौर्य पळय
सामराज्याचेर जोडलें जैत!

# उंचाय चडत रावतलो!

जेन्ना मेरेन मनीस
स्वताचेर विश्वास दवरतलो
तेन्ना मेरेन धर्तरिचेर
उंचाय चडत रावतलो!

आत्मनिरिक्षण करुन पळय
कितें विसल्ला
आत्मबळान मनशान संवसार जिखला!

## भरभराट

शक्तिवंत दूरदृश्टी
विकासवाट दाखयता
शिस्तबद्द मार्ग
भरभराट हाडटा!

## एका मोगा उत्रान

धेंगशे घाले
सगलें मोडलें
एका मोगा उत्रान
सगलें जुळलें!

# किमसांचें राज्य

किमसांचें राज्य आयलां
मेळटा ताका तोपतात
मार्गार सुर्णी शिंपडल्यांत
चोरांक पळोवन पळटात

निर्भय मनीस घायाळ जाला
दुर्बळ मनशाक चेपतात
फाजील भार माथ्यार चडला
निर्दोश मनशाक पेट्टात!

भोगपी भोगून गेलो
कागाळ केल्यार तापतात
गुन्यांवकारी मेळाना
दोळे धापून भगतात

देवचारान  धेंगशे घाल्यार
नेखेत्रांय तुट्टात
कशेय तरेन सत्तेर येयात
लोक सगलेंच झेलतात!

# विशाल रानां हिणसायतात

समकाल काळांत अशें कित्याक घड्टा
सबंद शार एक रान कशें दिसपाक लागता

अधिकार्‍यांच्या रुपान सगल्याक
कासादोर दिसतात
पेनांचीं पिस्तोलां घेवन
शिकार सोदतात!

दुर्बळ मनशांचो जीव खातात
गर्जेवंतांक भौच सतयतात

आयज
तीं विशाल रानां आमकां हिणसायतात
आमी मात्र
एकामेकाक पळोवन हांसतात
विशाल मनांचें अस्तित्व ना जालां
काँक्रीटच्या जंगलांत फकत संकुचितपण आयलां!

# दुडवांपिशे रडटात!

ते कचेरींत कदेलां नांत
फकत मेजां उलयतात
हातांत दुडू नासल्यार
धांवडायतात
नर्कांत वचात म्हण्टात

नर्कांतुय तेंच घड्टा
दुडू आसल्यार येवकार मेळटा

स्वर्गा दरवोंटयार
शिपाय आसतात
भांडवल व्हेल्यार
धाडायतात
आनी
नर्कांत धुकलतात
...आनी थंय मागीर
दुडवांपिश्यांचे आत्मे
सर्वकाळ रडटात!

# आनीक एक न्हंय व्हांवपाक जाय

त्या दोंगरांतल्यान आनीक एक न्हंय व्हांवपाक जाय
म्हेळ्यो जाल्ल्यो साबार चादरी धुवपाक जाय!

हांवें नाल्यार  तुमी
कोणेंय तरी आइडूंक जाय
पावला पावलार जावपी लूट
थांबोंवक जाय

भ्रश्टाचाराच्यो ताळ्यो मोडून फायदो ना
भ्रश्टाचाराचीं पाळांमुळां निखळांवक जाय!
थंय थाकून आनीक एक न्हंय व्हांवपाक जाय
म्हेळ्यो जाल्ल्यो साबार चादरी धुवपाक जाय!
हो म्हेळ काडपाक जाय! हो म्हेळ काडपाक जाय!

# परिश्रम

फुकट कांयच मेळचें ना
मेळल्यारुय पचचें ना

फाटीं न्हय रे
फुडें पळय
कश्टाची
वाट थारय

आड मार्गार मनीस
आडूच पडटा
जैताची जोड जोडपाक
परिश्रम लागता!

# आनीक एक गजाल घडपाक जाय आसली

आमी खूब  खूब बोवाळ घालतात
पूण सुनामी धांवात येता आनी आमी मात धिमे गतीन चलतात
आतां मेरेन आकांताची जाण आमकां जांवक जाय आसली
आपनेक तोंड दिवपी तिडक आमच्यांत रिगूंक जाय आसली!

आमी खूब  खूब बोवाळ घालतात
पूण मनशानीं उबारिल्ली आपत्तीजनक वणत तशीच दवरतात
आमच्याच मनशांक कडेक दवरपी वणत मोडपाक जाय आसली
आमच्या हातानीं निस्वार्थची मशाल आसपाक जाय आसली!

ते मसन्डींतल्या आत्म्यां भशेन हिणटात
ही खंयची पिडा काय म्हणून आमी तांचेर तिडटात
पिडेक सापडिल्ल्यांची किंव येवपाक जाय आसली
कोणेंय तरी दुर्भाग्यांची दखल घेवपाक जाय आसली!

कितल्या प्रचंड मनीसबळाचे धनी आमी!
केद्या व्हड राश्ट्राचे नागरीक आमी !
आमची उपाट शक्त नीट वाटेक लागपाक जाय आसली
आमकां सगल्यांच्याच उद्धाराची काळजी आसपाक जाय असली!

# साक्षी

झाडां धोलूंक लागिल्लीं, फुलांक रंग चडिल्लो!
त्या दिसा मध्य रातीं सुर्यान उजवाड फांकिल्लो

एकजीव करपाक आमकां वेळ मात्सो थारिल्लो
चंद्रीम लेगीत परजळ दिवपाक जमनीर देवून आयिल्लो!

पावसान चिप्प भिजलीं आमी, आतां सैम साक्ष आसा
सदांकाळ उरतलो तो सैमान फोटो घेतिल्लो!

# साप शेणले
(गजल)

नवें गोंय घडलें पुणून आमी साप शेणले
जगभर गोंय गाजलें पुणून आमी साप शेणले

स्वातंत्र्याची चळवळ गाजली आमींय भितर सल्ले
आमीय रगत सांडले पुणून आमी साप शेणले

भारी प्रकल्प भारी योजना भारी मनशान जोडलें
आमीय टॅक्स भल्ले पूणून आमी साप शेणले

कामियांव आमचो धुकलत धुकलत आमी फकत दमले
मार्गार गाडयोच गाडयो  पुणून आमी साप शेणले

कोणुय सांगशात युसूफाक अशें  कित्याक घडलें
कीं आमचेंय रगत गोंयचें पुणून आमी साप शेणले!

# एका क्षणा भितर

एक जबरदस्त फकाण घडलां
थंय कित्येक जणांचें रगत सांडलां
थंय निर्दोश भुरग्याची आवय रडटा.

ह्या प्रक्रणांतल्यान आमचो विकास जातलो म्हूण
म्हजी आवय जेन्ना खोशी प्रगटायता
तेन्ना मनिसपण सोंपता
आनी पशुवृत्तीच्या जगाक
नैसर्गीक आपत्ती बादता
आनी क्षणा भितर सगळें जमिनदोस्त जाता.

# काळीज खेळय

भुरगें जल्मताना रडलें
काळीज हांसले.
ह्या फुडें भुरगें रडल्यार
हांसत रावूं नाका
ताचीं दुकां
पुसून दाखय!

# तिडक दाखय

उज्या किटीनीं
इंगळे पेटयले
तुजे जिडकीन
युद्ध पेट्टलें
अन्याया आड
आक्रोश जागय!

# आशेचो नेट चडय

कितें गावतलें, कितें गावचेंना
हाची चड चिंता कित्याक
पायांत गती आसा मेरेन
हावेस वाडयत चलत राव!

बसून रावल्यार फसतलो
चलत रावल्यार जिखतलो
अरिश्टांचेर जैत जोडून
हडुं फुलयत चलत राव

कोण म्हण्टा थकतलो
कोण म्हण्टा पडटलो
घसरल्यारुय उठतलो
धैर्य जागयत चलत राव

धेय थारय उर्बा वाडय
आशेचो नेट चडय
निराशेक फाटीं सोडून
फुडें पळयत चलत राव!

# कर्बलाच्या झुजा मळार

कर्बलाच्या झुजा मळार
जाणां जायात कितें घडटा
सतमार्गान हजरत हुसेन
हारून लेगीत जिखता

राजा यझीद काळांतरांत
ना नपयत जाता
हजरत हुसेन काळजा काळजांत
अमर जावन उरता

फकत मोजके मनीस घेवन
हुसेन फुडें सरता
झुजांत भौच बळीश्टांक
नाका शिवोट करता

झुजा मळार सांगात्यांसयत
तान्हेता भुकेता
सगले कश्ट झेलता पुणून
ईमान शक्ती जागयता

आयज हुसैन हुसैन करीत
लोक हड्डीं थापटायतात
केद्या व्हडा सन्मानान
किर्तीवंताक आर्गा ओंपतात!

त्यागाची भावना तुजी
काळजा काळजांत शिरतली
ऐ हुसेन याद तुजी
सर्वकाळ उरतली!

# भुकेल्ल्या सरीं जेवण

भुकेल्ल्यासरीं जेवण येवचें ना
पोटा खातीर वावरुंक जाय
न्हिदून रावल्यार कांयच मेळचें ना
हात पांय बरेच हालोंवक जाय!

विचारांक आपशींच बळ मेळचें ना
एकाग्रतेन बुडूंक जाय
लोकांचीं मनां जिखतलो जाल्यार
त्याग करपाक शिकूंक जाय

वस्त्रानीं जीण शृंगारची ना
शिस्तबद्द जावपाक जाय
जिवितांत व्हडपण जोडटलो जाल्यार
काळीज व्हड करपाक जाय!

# आमचो देश मोगाचो!

हिंदु मुस्लीम किरिस्तांव, सगल्या जाती धर्मांचो
आमचो देश मोगाचो! आमचो देश मोगाचो!!

मायेमोगाची परंपरा, हीच आमची अस्मीताय
व्हड आमचें दायज आनी भौच व्हड संस्कृताय
हरिद्वार तिरुपथी, अज्मीर शरीफ वैलांकिणी
साबार हांगा भक्तिस्थळां, मंथनाचीं उत्ती मळां
मायेमोगा वाती पेट्टात, सन्मान सगल्या संतांचो
आमचो देश मोगाचो! आमचो देश मोगाचो!!

दक्षीणेक व्यंकटेश्वर, उत्तरेक हजरत निजामुद्दीन
ईश्वरीय उजवाड फांकपी गरीबनवाज मैनोद्दीन
हांगा संत फ्रान्सिस झेवीयर अन साईबाबाची जाग आसा
शिरडेची जिवंत सासाय, पोन्या गोंयची मिलाग्र आसा
हिंदु मुस्लीम सिख क्रिस्तांव, सन्मान सगल्या धर्मांचो
आमचो देश मोगाचो! आमचो देश मोगाचो!!

आमचो देश पांचव्याचार वनस्प्तींचो
मोगा बियां किल्लोवपी मुसळदार पावसाचो

आम्चो देश महर्शी  व्यासाचो, चरक आनी चाणक्याचो
आमचो देश सी.वि. रमण, विश्वेसवरय्याच्या बुद्धीबळाचो
आमचो देश युगपुरुस गांधीजींच्या आत्मबळाचो
आमचो देश मोगाचो! आमचो देश मोगाचो!!

हांगा सैमा वांगडा समरस करपी टागोरांचीं गितां आसात
ए.के.जे. अब्दुल कलामाचीं शक्तीवंत सप्नां आसात
हांगा मदर तेरेझाची भक्ती आसा
हांगा विवेकानंदान जागयिल्ली युवजनांची शक्ती आसा
आमचो देश भौच महान, परजळ हांगा सासणांचो
आमचो देश मोगाचो! आमचो देश मोगाचो!!

# एक हुस्को

म्हज्या भुरगेपणान
वाड्या वाड्यार
ल्हान ल्हान घरां

ओंवळां पुंजावन येताना
वाटेर
सगल्यांक हटकीत येतालों
ओ तिवा
ओ माना!

आतां कोंक्रीटच्या जंगलांत
कोण कोणालागीं उलयना
सगल्यांचीं बंद दारां

भूतकाळ मात
विनाकारण
वर्तमान काळा बरोबर झगडपाक लागला
भविश्य काळाचें कितें जातलें कोण जाणा!

# पैगंबरान सांगलां

स्वार्थ शिमेभायर पावला
म्हणून संकट आयलां
सांठेबाजेक ख्यास्त आसा
पैगंबरान सांगलां!

मनशाचो गूणधर्म भंगला
म्हणून "निर्भया" रडलां
आवयच्या पायां पोंदा स्वर्ग आसा
पैगंबरान सांगलां!

विद्ये वाठार बाजारीकरणाक बादला
म्हणून युवक हेळ्ला
शिक्षणाचें मोल वळखात
पैगंबरान सांगलां!

मनीस मनशाक वळखनासो जाला
म्हणून राग वाडला
रेहमान आनी रहीम जायात
पैगंबरान सांगलां!

# नावाडगीं उणीं नांत

म्हजें बाळ नाजू
पतंग उडयता
--- दर्या वेळेर

पतंग  वयर पावता
नाजू उंच-ऊंच उडपाचीं
सप्नां पळयता
मळबाक हात लावपाची
जगभर भोंवपाची
आस्त बाळगिता!

एक नावाडगी पोर
सूत तोडटा
पतंग सकल पडटा
मळबांत कुपां फुट्टात
सप्नां थंयच थारतात.

# सलाम!

फांतोड
शितळ शांत ...
रात आनी दिसाचें अप्रूप मिलन!

भांगराचीं किर्णां
सरळ दोळयांत शिरतात
मोगाची भास उलयतात
आमीं दोगायनीं
दोळयांत दोळे घालून उलयल्ल्याची
याद करुन दितात

फांतोडच्या त्या क्षणांक हांवे
मिटी मारुन धल्ल्यांत
सुर्याचीं किर्णां
दोळयांतल्यान
काळजांत देंवल्यांत
काळीज धादोस!
...आनी आतां सदांच
सुर्योदयाक सलाम!

# म्हाका आपोंव नाका

चंद्रीमाच्या उजवाडान
उडक्यो मारीत गावपी ल्हारां
रेंवेक वेंगोवन चिंवतात
आनी हांव
एकलो एकसुरो माडामुळांत
मंद मंद वाऱ्या वांगडा
काळजाक खेळयतां
म्हाका रात हांगाच सारची आसा
ल्हारांच्या धुलपदांक साथ दीत
हांव म्हाका शेणोवन घेतलों
म्हाका हटकूं नाकात
म्हाका आपोंव नाकात!

# थंय एके खोपींत

वीज पुरवण थांबता
सगल्याक काळोख पडटा
थंय एके ल्हानसान खोपींत
दिवो पेटील्लो दिसता!

कोणाक कोणाची पर्वा ना
चलो बापायचेर तापता
थंय एके खोपींत चलो
आवयचे पांय दामता!

प्रगती पथार चलपी मनीस
कळना कित्याक शेणटा
आदरमानाची भावना आसल्यार
सुखसमाधान नंदता!

# मॉडर्न एज

पयर एका प्रवकत्यान
आयच्या युगाक "मॉडर्न एज" म्हळें
पन्नास वर्सां आदींय तेन्नाच्या त्या काळाक
मॉडर्न युगूच म्हण्टाले
कोण जाणां आधुनीक युगाचे दीस
केन्ना येतले
आनी लोक
अंधश्रद्धेच्या गुलामपणांतल्यान
मुक्त जातले
आनी
"पावर ऑफ रिझनींग"-आक
प्राधान्य दितले!

# पुण्य भूंय

जंय अस्तमतेक उदेन्त मिठी मारता
जंय संस्कतीचो संगम नदरेक येता
तें म्हजें गोंय

जंय धबधब्यांतल्यान दुधा झार व्हांवता
जंय सागर सौंदर्यातल्यान संपत्ती उसळटा
तें म्हजें गोंय!

जंय पंटी पेट्टा अन मेणवात भावार्थ जागयता
जंय परशुरामाच्या बाणाक पुण्य भूंय मेळटा
तें म्हजें गोंय!

## दबाव हाडपाक जाय

जायते खेपे जागयतल्याक
जग विकतो घेता...

तो संतापान उठलो
देखून आमी रागान पेटले
तो आतां थारला म्हूण
आमी न्हिंवचे न्हय

पिडेस्ताक न्याय मेळपाक जाय
अन्याया आड बंड चालूच उरपाक जाय!

# कळाव

फांतोड उलो मारता
कोंबो जाग दाखयता
माडाची पोंय
व्हडें जावन
पावसा उदकांत व्हलता
खूट्यांची वंय
अपुर्बायेन पळयता
पोरसांत मोगरीं परमळ सोडटात
मस्का झाडार सवणीं गावूंक लागतात
नळ्यांतल्यान
सुर्या किर्णां भितर सरतात
परत परत जागयतात

हांव गाड न्हिदतां
सगलें शेणिल्लेपरी भासता
उठलों तेन्ना
खूब कळाव जाल्लो आसता.

# शेबय शेबय

(राष्ट्रभक्ति गीत)

शेबय शेबय शेबय शेबय
जागृतेची जाग जागय
जैताची जिद्द धरुन
ताश्यार नेटान बडी बडय!

हे मातयेचे धनी आमी
हें राष्ट्र बळवंत मनशांचें
भूंयमातेचे भक्त आमी
हें राष्ट्र भक्तीवंतांचें
पावला पावलार शक्त जागय
राशट्रभक्तीचो नेट दाखय
जैताची जिद्द धरुन
ताश्यार नेटान बडी बडय!

पुरुशार्थ आमी जागयतले
दुस्मानांक आमी हारयतले
जल्मांक येतनाच सोपूत घेतला
भोवमान राखपाक झगडटले
फुडें पळय, शौर्य वाडय
आंगांत इल्लो नेट चडय
जैताची जिद्द धरुन
ताश्यार नेटान बडी बडय!

# तो थारता

प्रयोग शाळेंतलो कार्यक्रम सोंपता
तो हजार मैलाच्या अंतरार आशिल्ल्या
आपल्या गावांक वचपाची तयारी करता
रातभर तो सुर्योदयाची वाट पळयता
सकाळफुडें रेल्वे स्टेशनाचेर वचपाक भायर सरता
वाटेर न्हंय उर्फाटि वटेन व्हांविल्ले परीं दिसपाक लागता
सुर्य सदां परस अधीक गतीन चलपाक लागता

एकाच खीणाक  सुर्योदया सांगाताक
ताका आपल्याा मोगाचो
सुर्यास्त जाल्लो दिसता
ताचीं पावलां फुडें पडनात
तें वारो जावन येता, वाटेर  उबें रावता
तो थारता....

# अप्रूप लागण

अनेक तरांचीं ल्हारां येवन गेलीं
सगलीं सुकणीं हांगच्यान उडून गेलीं
हांव दोंगरा सरीं हांगाच उबो,
एकलो एकसुरो...

ह्या दोंगराची भास
भौच धादोसभरीत
ह्या दोंगराचें खाशेलेपण
भौच तूस्तभरीत

हांव जाणा
दोंगोर केन्नाच हुबचो ना
हांवुय हांगचो हालचों ना.

## भांगरा परस व्हड

हांगा
घरा पासून पैस
व्हड मान
व्हड शान !
जळीं मळीं
सर्गाक तेकपी घरां
ओडटात ध्यान!

हांगा
सगले वटियां
जोडूच जोड ....
पुणून
घरा कडसून आयिल्ली
एकूच  चीट
भांगरा परस व्हड!

# पेनांत रसणाय भरूंदी

म्हजें पेन
म्हज्या जिणेचो अतूट भाग जाला
म्हजें पेन चलता
देखून जीण जगपा क उर्जा मेळटा
हांव मागतां
म्हज्या पेनांत
चारूय दिकांतल्यान रसणाय भरूंदी
म्हजे कडसून
घरा घरांत उजवाड फांकूदी!

# चित्रां चितारता आसतना

फाटलीं कित्येक वर्सां
गोंयच्या सुंदर चित्रांनीं
हावें म्हजें काव्य रंगयलें
म्हज्या काव्यांत
गोंयचीं सौंदर्यस्थळां गांवक लागलीं
म्हज्या काव्यांत
कोंकणीं माचयेर नक्षत्रां नाचूंक लागलीं
म्हज्या काव्यांत
गोंयचो अखंड समाज देंवलो
म्हज्या काव्यांत
गोंयचो म्होवाळ सभाव परजळलो

केन्नाच माहौल बदल्लो....

आतां जेन्ना हांव
परत चित्रां चितारपाचो यत्न करतां
म्हजो हात थरथरता
म्हजें पेन सकल पडटा
आनी काळीज रडपाक लागता!

# घोटेराचो अभ्यास सवण्यांकडसून शिकात

मनशानों, मर्णाची वाट सोडात
जिविताच्या मार्गार जतनायेन  चलात
आयज सुकर्णीं मनशांक म्हणपाक लागल्यांत
घोटेराचो अभ्यास आमचेकडसून शिकात!

एक एक हीर, सोण्णं आनी काथो पुंजावन
सवर्णीं घोटेर बांददतात
सवर्णीं आपल्या मळबामार्गार सुरक्षीत भोंवतात
दगड डामरान केल्ल्या मार्गार मात
खीणा खीणाक खत्रो आसता
देखून मार्गावेल्या शिस्तीचें म्हत्व
जाणून घेवचें पडटा.

सवर्णीं भुर्र करुन उडटात
तांच्या उडपांत गतीची  सीमा आसता
तीं एकामेकाक आपटनात
तांचें उडप शिस्तबद्द आसता.

सुकर्णीं निसर्गान  उपलब्द करुन दिल्ल्या
पाखांच्या पालवान सर्गांत उडटात
आमी तकनिकी साधनांचो लाव घेवन
खंयसर धांवतात?
कितें बेगीन बेगीन अपघाताच्या
उज्यांत आमी ल्हासपाक पळटात?

आमच्या वाहानांची गती सिमीत आसपाक जाय
मार्गार आमी खीणा खीणाक सादूर रावपाक जाय

वीज पडटा, घोटेर ल्हासता
सवण्यांक जळिल्लो मोडिल्लो घोंटेर
दुरूस्त करपाची ताकतीक आसता
सांगात आमकां खणील्लीं खोणकलां
पुरोवपाची काळजी कित्याक नासता?

आनी
शाणे आमी मार्गार गाड्यो मदान चलयतत
सोऱ्या नेटार हिस्पा भायर गती वाडयतात
मोबाईलाची स्टायल स्टेरींगाक दाखयतात
मदांत आमी अपघाताक आंगार वोडून घेतात.

मनशानो, थोडोभोव अभ्यास करात
मार्गावेलो शिश्टाचार जाणून घेयात
आनी
अपघात टाळात.

# काळजा तूं रडूं नाका

काळजा तूं रडूं नाका
सगलें बरें जातलें
परत वसंत रुतू येतलो
सुखें जितें जातलें

काळजा तं रडूं नाका
काळोख आपशींच वतलो
परत सूर्य उदेतलो
परत उजवाड येतलो!

काळजा तूं रडूं नाका
नवो हांसो फुलतलो
नव्यो गजाली घडत आसात
नवो मार्ग मेळटलो!

# म्हजीं गितां रडचीं नांत(?)

म्हजीं गितां
सभ्यतेची बडाय गायतात
खंत म्हज्याच गितांनीं
रडपी सुस्कार देंवतात

म्हज्या काव्यांत शिरिल्लीं किर्णां
हर्श-उल्हासान लिकलीकतात
म्हज्याच कवनानीं देंविल्ली सावळी
काळखी जीण  दर्शयतात

आस्त म्हजी
म्हज्या गितांनी
काळोख नासचो
खोशी आनी मोगूच आसचो!

# म्हज्या भुरगेपणांत...

म्हज्या भुरगेपणांत
ल्हारां सदांच धांवतालीं
दर्या सदांच गाजतालो
सवणीं सदांच गायतालीं
दोंगोर सदांच चंवरतालो

म्हज्या भुरगेपणांत
टवटवीत पानां वांगडा
रान नटून आसतालें
रेंद्राच्या कांत्रा वांगडा
गोंय सदांच धोलतालें

भुरगेपणांत परत परत
आंगार नेट चडटालो
म्हज्या मोगाळ भुरगेपणांत
तणाव केन्नाच नासतालो

चिंतामुक्त म्हजें भुरगेंपण
परत केन्नां मेळत काय?

# तुज्या आगमनान...

तूं मेळलें देखून
हावेसांच्या झाडार
धादोस्कायेचीं फळां फळपाक लागलीं

तूं मेळलें देखून
उमेदिच्या रानांत
उजवाडाचीं किर्णां शिरलीं!

# अजून हांसो हांसयतात

ल्हारां जेन्ना खडपांच्या आंगार उडक्यो मारतालीं
आनी कुपां मळबांत मोठ्यान घुमटां वाजयतालीं
तेन्ना वेळेर रेवेंचें आंग  शिरशिरतालें
तेन्नाच सैमान उतर दिल्लें
आमकां एकजीव करपाचें

क्षणाक सगलें समरस जालें
क्षणांत सगलें व्हावन गेलें

तो वेळ तेन्नाच सोंपपाक जाय आसलो
ते साबार खीण पावसांन पुसून उडोंवक जाय आसले

हांवें जनेल धांपलें
पूण अर्दे दार उक्तें उल्लेंच
आनी थंयसल्ल्यान यादींचीं ल्हारां
सरळ काळजांत भितर सरतात
खूब सतैतात
पूण अजून गुदगुल्यो करत खेळयतात!

# हुंदरा पिलो धांवलो

(बालमित्रां खातीर)

मांजरान शेपटी हालयली, बुकलो पळयत रावलो
ल्हवूच कातले कुडको घेवन हुंदरा पिलो पळलो!

बाबू उटलो म्हणपाक लागलो पुरनपोळी जाय
ल्हवूच बुकलो चाटून गेलो दुदावेली साय!

मुयेन चिमटो काडलो तेन्ना पालीन म्हळें हाय
किमसान म्हळें वण्टेलागीं येवचोनांगे बाय!

कावळ्यान गळो ताणून केलें धरार काव-कांव
आजयेन बडी घेवन म्हळे सोयरीं नाकात धांव!

# रगत आमचें लाल!

सुर्य एक,
चंद्र एक
आंगांतली
उर्जा एक
मळबांतल्यान देंवपी
पावस लेगीत एक!

जीण जगपाक ओडली
वेगळ्या रंगा शाल
तरी आमी सगले एक
रगत आमचें लाल!

# रुचीक

म्हातारपणांत गोड नाका
काराट्यांचो रोस पी
धेंगसो घालीत आज्यान म्हळें
पणसाचो साठ दी!

बरे मस्त पकवान केल्यात
आदीं इल्लो सूप पी
आज्यान नमळायेन म्हळें
म्हाका पातळ भाजीच दी!

# बळवंताचें गुपीत

बळवंताचें गूपीत जाणपाक
अरिश्टांचेर जैत जोड
संकश्टांचे दोगोर फोडपाक
आंगांत शौर्य रिगतलें!

सदांकाळ सुखी रावपाक
पाडेपणां ओड सोड
नीट मार्गान वचत राव
व्हडें व्हलत रावतलें

धादोस्काये घोंट चोखपाक
हांवपणाचो पेलो फोड
समेस्तांचो मोग जोड
दैवीक बळ मेळटलें!

# "इलेक्ट्रोप्लेटींग" केल्लीं उत्रां

उत्रां विकूंक आयल्यांत
धवीं उत्रां
काळीं उत्रां
थोडीं पचपचीत
थोडीं बरीं गोड गोड
म्होवान बुडोवन काडिल्लीं

थोडीं जतनायेन केळयिल्लीं उत्रां
थोडीं "इलेक्ट्रोप्लेटींग" केल्लीं उत्रां

काळया उत्रांचेर
धवो रंग चडयिल्लींच उत्रां
चड खपूंक लागल्यांत...

## ताका प्रश्न पडटा

एक युगपुरूस आपल्याक
राश्ट्रासरीं जोडटा
विकसनशील देशांत
भौसाची दशा पळोवन
न्हेसपाचें सोडटा!

आयज संपूर्ण रुपान
देश विकशीत जाला म्हूण
एक नांवाजतो (अभि)नेता
उदगारता
आयज गांधीजी आंगार खोशयेन
खोमीस चडयतलो आसलो काय
मार्गार थंडेंत कुडकडत एक सत्याग्रही सवाल करता.

# आमी जगाक जागयतले

एकामेकासरी झगडल्यार आमी शक्त सोपयतले
एकचाराचें बळगें नासल्यार आमी आमकांच फटयतले

हेच मातयेचे पूत आमी जीण हांगाच घडयतले
हेच भूंयेर सुस्कार घेतले, स्वाभिमान जागयतले

काट्यांचेर चल्ल्यात आमी, जिद्दीन जैत मेळयतले
एका सुत्रात बांदून घेतले, मोगा चंवर फुलयतले!

शांतीदूत जावन आमी सगल्याक संदेश पावयतले
समानतायेच्या उल्यान आमी पुराय जगाक जागयतले

# लाँड्रीमेन

लाँड्री
थंय सगले उग्ते कबाट
आनी
घडी मारिल्ल्या
कपड्यांच्यो राशी
हांव तरनाटो
लाँड्री मेन बरो जान्टो
पावती दाखोवन
हांवे म्हजी चादर मागली
ताणें नांव पळेलें
आनी
चादर सगल्याक सोदली
सोदून सोदून थकलो पूण
चादर कशीच मेळना
तो बेजारलो
बेजारून ताणे म्हणलें
चादर केन्नातरी व्हेल्या आसतली
घडी मारिल्ल्या कपडयांचेर
परत नदर घुंवडायली
परत म्हणपाक लागलो
शेर्त तुवें
चादर व्हेल्या आसतली

म्हका पिश्यांत काडटा म्हूण
हांव चिडलों
पूण

ताणे तसोच हट्ट धरलो
हांव संतापलों
उत्राक उतर जालें
हावें गाळ माल्ली
भौच बुरश्या उत्रानीं
ताणे जाप दिली
ताजीं उत्रां आयकून हांव घुंवलों
कितें करचें कळलें ना
हांवें म्हजी वाट धरली
आनीक कितें करतालों आसलों?

वाटेर चलता चलतां
आवयवयचो संदर्भ आशिल्लीं
ताचीं उत्रां
सोसूंनजो जालीं

वाटेर इल्लें आत्ममंथन

हांवे रगाभारार चूक केल्ली
जान्टेल्याक महजी गाळ
सोसूनजो जाल्ली
सदां आदर्शाची भास उलोवपी हांव
हावें म्हजेर लगाम दवल्लोना
हांवें जान्टेल्याकडेन
माफी मागपाचें थारायलें
हांव पर्तलों

लाँड्रीमेन कितेंतरी सास्पितालो
तो अजून चादर सोदीत आसलो जांवये
हांव गेलों
हांवे सरळ ताच्या दोळ्यांत पळयलें
"सॉरी" म्हळें
हांवे सांगलें
म्हाका क्षमा कर, म्हजे कडसून चूक घडली
एका कपड्यांच्या घडये पोंदासावन
चादर काडून ताणे सांगलें
तुजी वस्त मेळ्ळी!

...ताचे दोळे
भरून आयिल्ले
म्हज्याय दोळ्यांतल्यान
दुकां गळ्ळीं!

सोपूत घेतला
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर

गोंयां पर्जळाचो सुर्य उदेलो
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर
गुलामपणाच्यो साकळ्यो तुटल्यो
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर

पिन्टोची मोहीम आनी
राण्यांचें बंड
कुकोळकार झगडले
करपाक राष्ट्र अखंड
लोहियांची धाडस आनी
१८ जूनाचो गाज
स्वातंत्र्याचो उल्यार उलो
नव्या नेटान गाजलो
हुकूमशाय हारली
स्वातंत्र्यसैनीक जिखलो.

नेहरुजीन मैन मोडलें
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर
कृष्णमेननान सैन्य धाडलें
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर

सोंपल्यो आकांताच्यो घडी
तुटल्यो लिस्बोवच्या
बणखणींच्यो सरी
राजवाड्यांत

नवी दिवली पेटली
पुर्तुगेज बावटो सकल देंवलो
तिरंग्यान सुवात घेतली

तृप्ततायेन स्वास घेतला
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर
गोंय घडोवपाचो सोपूत घेतला
डिसेम्बराच्या १९ तारखेर

# स्वर्गांत सुवात

मरतकच
स्वर्गांत सुवात मेळोवपाच्या भारार
जित्यांक माल्ले
सगल्यांत व्हड पाप केलें!

# युसूफ अ. शेख

M.Sc., I.B.(P)S. Retd.



युसूफ अ. शेख फाटलीं पांच दसकां कोंकणीच्या मळार वावुरता. तागेल्या शालेय जीवनापासून तो कोंकणीचो पुरस्ककर्तो. तो एक कवी. कवितेचेर ताचें मनापासून प्रेम. १९७० च्या दशकांत गोंयांत आनी गोंयांभायल्या कोंकणी प्रदेशांत जीं कवी सम्मेलनां जातालीं तातूंत तागेले "ओ रे सोय" कवितेक खूब बरो प्रतिसाद लाबतालो. तेच कविते खातीर तो कवी म्हण चड फाकिवंत जालो. त्या काळच्या कवी सम्मेलनानी डॉ. मनोहरराय सरदेसायांचीं कवनां, म्हगेली "बांगर बैल" रमेश वेळुस्काराची "सावुलगोरी" तशी युसूफाची "ओ रे सोय" कविता रसिकांकडल्यान हुकूमी दाद घेताली. युसूफाले कवितेक एक छंद आसा. गेयताय ताका सादल्या. तागेल्यो कांय गीत रचना आकाशवाणी वयल्यान खुबूच गाजल्या. "शब्दुलेच्या फुला तुका भंवर जावन चिंवतलों" ही तागेली गीत रचना एक काळार खूब गाजिल्ली. म्हज्या एका नाटकांतूय हांवें ते रचनेचो वापर केल्लो. पणजी दूरदर्शन केंद्र (पी.जी.एफ.) गोंयां सुरू जावचें जालें त्या वेळार ताणे दूरदर्शनाच्या येवकारा खातीर अशीच एक सुंदर गीत रचना केली. आकाशवाणीचेर ती वाजताली. युसूफान आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेर अधिकारी, पालवी संचालक, संचालक म्हण वावर केला. त्या पदांचेर आसताना तो गोंयां बरोबर कर्नाटक, मेघालय, आसाम राज्यानीं नोकरी करून आयला. तो जंय गेला थंय ताणे कोंकणीचो प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष प्रचार केला.......

.....युसूफाक कोंकणी भास, गोंय हाचेविशीं आकांत अभिमान. गोंयची माती, पेज, आंबली, कांतारां, धालो, घुमट, तासो ह्यो तागेले निजी अस्मितायेच्यो खूणो आसात. तांचेर तो जीवपाड मोग करता, हें वेगळें सांगपाची गरज ना. गोंयांविशींचो मोग जसो ताचे कवितेंत उचंबळून येता तेचपरी गोंयचे अस्मितायेचेर जी हावळ आयल्या, ताचेविशीं तो पिंडळून आवाज काडटा. भ्रश्टाचार, आपसुवार्थ, घुंवळी वखदां प्रसार, पर्यावर्णाचो नाश, कसिनाचो जुगार ह्यो गजाली तागेल्या संवेदनशील मनाक खुपता. गांव बदलता, ताचें ताका दुःख ना पूण गांवांतलें मनीसपण नश्ट जाता, ताचो ताका हुस्को पडला. व्हडल्यो इमारती वाडटा खऱ्यो पूण तातूंत मनशाचें मन विशाल जावपा बदला संकुचीत जाता, हाची खंत ताका पोखरता....

-पुंडलीक ना. नायक